शणै प्रकाशन : ३७

○ पयली खेप : अक्टोबर १९८४

○ दुसरी खेप : मे १९९७



○ उजवाडावपी :

शणै प्रकाशन

वेलींग-गोंय-४०३ ४०४

○ छापपी :

एस. जे. हुंद्रे

रवि मुद्रणालय,

कडोलकर गल्ली, बेळगांव

फोन : ४६००७९

○ मुखचित्र :

मंगेश बोरकार

○ मोल : चार रुपया

# मुर्त ल्हान बुद्द म्हान

गोंयचे शिमेर तळ्यादेगेर
रान एक आशिल्लें
जिनसवार सोंशे तातूंत
बीळ करून राविल्ले.

जाण्टे सोंशे, नेण्टे सोंशे
बारके सोंशे, सारके सोंशे
दोळे सोबीत गुंजो कशो
कापसाचे गुटले जशे.

तांतलो एक जाण्टो सोंसो
वडिलपणा चलयतालो
आयल्यो जाल्यार अडचणी
बुद्द दिवन निवारतालो.

एक दीस घडली गजाल
हिसपाभायर येवजुपाची
सदींच अशें घडत जाल्यार
पिळगी काबार जावपाची.

पुनवेची आसली रात
पिठु चान्नें पडिल्लें
शेकानशेक धर्तरेर
दूद कशें रकिल्लें

आपालिपा हुतूतुनी
खेळूंक गुल्ल जाल्ले सोंशे

हतयांचो आयलो हींड
किट्ट काळे खडप कशे.

कितल्या सोंइयांक माडुले
कितले जाणांक चिडुले
कुशीक आसले भुरगे पेटे
भंयान सामके निदेले.

तांतलो एकलो धांवलो घरा
कळीत करूंक जाण्टेल्याक
प्रसंगार बुद्द दिवन
फुडली वाट सांगतल्याक

भुरग्यांनो, भियेवं नाकात
धीर दोत म्हळें ताणें
उपाय हाचेर काडया कितेंय
पेर्तीशीर केल्लें जाणें

दुसऱ्या दिसा आमोरेचेर
बसलो वचून तळयादेगेर
युक्त एक येवजिली
करून विचार आपले भितर.

खांबे कशे पांय उडयत
हींड परत आयलो तळयार
उदक पिवंक वतले म्हळयार
शब्द एक पडलो कानार.

मुखार तुमी सरत जाल्यार
ख्यास्त भोगची पडटली
खर अशी जल्माची
याद सामकी उरतली.

कोण तूं, सांगता कोणाक
तिडून एका हतयान म्हळें
सुबेंजपणां करशी जाल्यार
जितो तुका मारता पळे.

नमळीकायेन सोंश्यान म्हळें
सायबा रागार जावं नाका
चंद्रदेवान ओर्द दिल्या
उदक कोणाक दिवं नाका.

खंय आसा चंद्रदेव
सोंड हालयत हतयान म्हळें
तळ्याकडेन नदर मारत
सोंश्यान म्हळें, हो ऽऽ पळे.

पुनवेच्या चंद्राचें
बींब तळयांत पडिल्लें
भांगराचें ताट कशें
झगझगीत आशिल्लें.

अजाप जाल्ले हत्ती भियेवन
चूक मागून परतले

सू ऽऽ जाल्ले सोंशेराव
हांसून हांसून खशेंले.

काणयेचें आयका सार :
मुर्त जरी आसली सान
शक्ती परस युक्ती म्हान.

# मूर्ख गाढव

जांबावलेच्या पांटचादेगेर
आसलें एक व्हडलें शेत
खाणयानी पीक ताजें
सुवयो कशों साळचें भात.

थंयच एक आसलो गाढव
चरतालो शेता–मेरांर
रातकिडयांचें किरकीरप
एक दीस पडलें कानांर

रातकिडयांचे किरकीरावप
गाढवाक खूब्ब मानवलें
आपणेंय तशें गावचें अशें
मनांत ताणें थारायलें.

म्हळें ताणें रातकिडयाक
ताळो तुजो गोड कसो ?
तुज्यावरी गावंचें आसा
उपाय कितेंय सांग असो.

ओंठा हांसत्त किडयान म्हळें
पिवचें फकत धंय ताक
दुसरें कितेंच खावं नाका
पोटापरस ताळया राख.

कडक पथ्य करशी जाल्यार
म्होंवो सूर येतलो गळचांत
चरचें सोड थोडे दीस
घाय बीय जायत ताळचांत.

खरेंच दिसलें देडशाण्याक
येतलें म्हणून गोड गावंक
चरव खावंचो सोडलो आनी
ताक धंय लागलो पिवंक.

पंदरा दीस उलगले
जालोच ना ताळो गोड
भुकेन जीव खर्शलो
उबो रावंक जायना धड.

तरीय पिवप सोडना ताक
घडूं लागलो खर उपास
एक दीस झीट येवन
सोडलो ताणे निमणो स्वास.

तात्पर्य :–

कसलीय गजाल करतना
पयलीं खोल विचार करा
नाजाल्यार घडटली
मूर्ख गाढवावरी तरा.

# सवणें आनी ताजीं पिलां

सावयवेरें लागसारा
माणकुलोच आसलो गांव
चारूय वाटेन कुळागरां
बेतके अशें सोबीत नांव...

भिडी, आंबे, पणस आनी
जीनसावार आसले रूख
पिकावळ थंयची पळोवन
न्हिवताली तान भूक...

अशाच एका आंब्या रुखार
सवणें एक रावतालें
पांच पिलांक उबेक घेवन
खुशालभरीत जियेतालें...

फांत्यापारार झिळमिळचार
जाग ताका येताली
पिलांक चरव हाडूंक जाय
तिस्टताय जाताली...

मायाचे आसले दीस
आंब्याक आंबे लागिल्ले
काडूंक धनी येवये अशें
भंय ताका आशिल्लें...

भायर वतना सांगचे पिलांक
घोंटेर सोडून वचूं नाकात
आंबे काडूंक आयलो कोणूय
सांगूक म्हाका चुकूं नाकात...

एक दीस सदचेवरी
सवणें घरा आयिल्लें
भिरांकूळ पिलांक पळोवन
जालें कितें विचारलें...

पिलान एका सांगलें ताका
आज धनी आयिल्लो
आंबे काडूंक येवचें असो
सोयऱ्यां रकाद धाडिल्लो...

व्हर गे आमकां दुसऱ्या रुखार
केन्ना कोणच पावना जंय
कशींच आमी रावचीं नात
एकलीं रावंक दिसता भंय...

भियेवं नाकात माणकुल्यांनो
पिलांक पोशेत म्हळें ताणें
सोयरीं शेर्त येतलीं अशें
खरेंच तुमकां सांगलें कोणें ?...

पंदरा दीस उलगले
तरीय सोयरीं आयलीं ना

सवणें गेलें आपल्या कामाक
हुस्को घेवन बसलें ना...

एक दीस सदचेवरी
सवणें घरा आयिल्लें
भिरांकूळ पिलांक पळोवन
रडटा कित्याक विचारलें...

व्हरगे आमकां दुसऱ्या रुखार
आज धनी आयिल्लो
आंबे काडूंक येवंक रकाद
शेजाऱ्यांक धाडिल्लो...

खरेंच तुमी भियेवं नाकात
पिलांक ताणें थाथारलें
अजून वेळ आयलोना
आपल्या भितर उलयलें...

पंदरा दीस उलगले
तरीय कोणच आयलो ना
सवणें गेलें आपल्या कामाक
हुस्को घेवन बसलें ना...

सदचेवरी सांजचे पारा
सवणें घरा आयिल्लें
भिरांकूळ पिलांक पळोवन
जालें कितें विचारलें...

व्हर गे आमकां दुसऱ्या रुखार
आज धनी आयिल्लो
आपल्या पुतांक सांगलें ताणें
रागार सामको आशिल्लो...

कळाव आनी लावप नाका
सोयरे जरी आयले ना
आमीच फाल्या काडचे आंबे
शेजार जरी पावलो ना...

सवण्यान म्हळें माणकुल्यांनो
आतांच वचया दुसऱ्या रुखार
फाल्यांच आंबे जातले काडप
जेन्ना धनीच सल्ला मुखार...

काणयेचें आयकात सार ...

खासा आपुण मेलेबगर
सर्ग जसो दिसचो ना
तशेंच कश्ट केलेबगर
आपशीं फळ मेळचें ना.

# भटणीक बुद्द शिकयली

मांडवी म्हंयचे देगेर
माणकुलोच आसलो गांव
चारूय वाटेन शेतां भाटां
चोडणां अशें आसलें नांव...

कळशे कशे थंयचे नाल्ल
जांगे येदे केळचां घडाय
दोन पिको दिवपी शेतां
शाक भाजी सामकी सवाय...

कृष्णभट म्हणून एक
मनीस थंय गा आसतालो
हागेर श्राद्धां, तागेर पुजा
करून पोट भरतालो...

हातांत बडी, वाल्या घडी
स्वभावाचो गोरूं कसो
नमळोकायेन चलपी आनी
ओंठार सदांच फुलपी हांसो...

भटीण जरी दिसली बरी
आसली सामकी भकारी
आपूण खावन तूपरोटी
दवरी भटाक अर्दपोटी...

बिलून खालें, वोतून गेलें
करचीं ताकां तीन पानां

भट मात मनांत म्हणी
खरें फट देव जाणां...

एक दीस कर गे वडे
भटान तिका सुचयलें
तांदूळ बारीक हाडले दळून
वड्यां पीठ कालयलें...

खोंटले भरून काडले वडे
रानची कुडींत दवरले
तोंडाक तिच्या सुटलें उदक
मन सामकें उखल्लें...

रुचील कसो लागत वडो
कुडको तोंडात उडयलो
एकेक करून खायत खायत
सगळो खोंटलो सोपयलो...

जेवचे वेळार भटान म्हळें
खंय गे वडे, वाड गे म्हाका
भटणीन म्हळें बुकीन खाले
खंयचे हाडून वाडचे तुका...

भटाक आयलो राग
दिसलें जिबेक दिवचो दाग
केश्टयां धरून हालयली
तापय तापय तापयली...

हाडलो राजू बांदलो गळयांत
पोटली बांयत देंवयली
सांग गे खरें खंय गे वडे
उदकां भितर बुडयली...

तरीय कशीच सांग नासली
फिरून परत हालयली
सांग गे खरें खंय गे वडे
परत परत बुडयली...

सांगता खरें वयर काड
भटीण आतां खर्शली
बिलूय हांव बुकीय हांव
हुटके दीत उलयली...

हात जोडून म्हळें तिणें
परत अशें करची ना
पयलीं तुका वाडल्या बगर
तोंडात उंडी घालची ना...

राजवासयत काडली वयर
नाक घास म्हळें नेटान
भटणीक बुद्द शिकयली
सोंसून सोंसून कृष्णभटान...

# शींव आनी जळेर

उसगांवच्या लागसारा
दोंगर एक आशिल्लो
दोंगराकुशींत खडपा धोलींत
शींव एक रावतालो.

मोनजातचो राय देखून
नेट ताका आशिल्लो
येत्या वेत्या आंगार वोगीच
गुरगुरून वेतालो.

खडपासरींच आसलें तळें
उदकाविणें सुकिल्लें
थंयच फोणांत रेब्याकोणांत
जळेर एक राविल्लें.

शिवाची उर्मटाय
सदींच तें पळेतालें
बुद्द ताका शिकोवची
आपलेभितर येवजितालें.

हतया म्हळें वागा म्हळें
कोणेच ताजें आयकलें ना
आसलो कोलो बुद्दीन भलो
ताणेय मनार घेतलें ना.

खासाच हाजेर करचो उपाय
जळेराच्या आयलें मनांत
गुणू गुणू गुणू गुणगुणायत
ल्हवूच वचून बसलें कानांत.

कोण हांगा गुणगुणटा
तापार जावन शिवान म्हळें
तोंड धापून रावना जाल्यार
ख्यास्त कशी दितलों पळे.

हांसत म्हळें जळेरान
गावन तुका दाखयतां
मोन जातचो राय देखून
मान तुजो मनयतां.

इतलें म्हणून गुणगुणायत
लागलें नाचूंक शिवामुखार
नाकार पोल्यांर बसलें दोळ्यांर
जावचो ताणें बरोच पिकार.

नाच तुजो बंद कर
किंवाटून शिवान म्हळें
ल्हान तोंडान व्हड घांस
घेवन कितें घडटा पळें.

इतलें म्हणून नाखटां काडून
दावकूल माल्लें आपल्या तोंडार

जळेर गेलें उडून आनी
रगताचो देंवलो हुंवार.

काणयेचें आयका सार :

मागलो म्हणून मेळना मान
मनीस पळोवन करचें दान.